# "हरुवें पान आनी पिकलें पान"

(पुंजायिले कोंकणी गीत)

के. अनन्त भट्ट

# HARVE PAN ANI PIKKALE PAN

(Poems in Konkani)

By K. ANANTHA BHAT

# "हरुवें पान आनी पिकलें पान"

(पुंजायिले कोंकणी गीत)

- के. अनन्त भट्ट



# HARVE PAN ANI PIKKALE PAN

(Poems in Konkani)

By K. ANANTHA BHAT

कोंकणी भाषा प्रचार सभा

कोंकणी भाषा प्रचार सभा प्रकाशन - १५

# HARVE PAN ANI PIKKALE PAN

(Konkani Poems)

By K. Anantha Bhat

Price Rs. 20/-



Konkani Bhasha Prachar Sabha, Cochin-2.
First Edition 1997
Copies 3000

Publishers :
Konkani Bhasha Prachar Sabha
Sahitya Vibhag
Konkani Bhasha Bhavan, Cochin - 682 002.
Phone : 227479

मोल : वीस रुपया

Printers :
Vasant Industries
Town Hall Road,
Koovapadam, Cochin - 682 002.
Phone : 224009

# प्रकाशकांगेलीं उत्तरां

कोंकणी भाषा प्रचार सभेन प्रकाशित करच्या ह्या पुस्तकान्तु कोंचिचो मात्रनयि करनाटकांन्तुलोयि विख्यात पविलो कोंकणी कवि श्री के. अनन्त भट्ट हानी बरैलेलें पन्नास अनी एक असचे कोंकणी काव्यं संग्रह केलेले जाव्नु असा। नाव दिल्या कवीन ह्या पुस्तकाक "हरवें अनी पिकलें पान"। हरवें पन्नाले अनी पिकलें पन्नाले संभाषणा थकून कवी प्रकट कर्ता लोकाक कळचाक जाव्नु तत्वज्ञान। कवी अनन्त भट्टान बरैलीं सर्वै काव्यं लक्षण युक्त जाव्नु असा। काव्य रचनेचे नियम पालन केल्या असा। पुंजायिली काव्यं सर्वैयि ह्या पुस्तकान्तु प्रकाशित केलेंली आकाशवाणी मंगळूर अनी धारवाड केन्द्रानी प्रक्षेपण केलेली जाव्नु असा। देखून मंगळूर अनी धारवाड आकाशवाणी केन्द्रांक उडगास कोर्नु भट्ट अशी बरैता *"मेगेली ही संगीत रूपक काव्यं अधिकांशयि आकाशवाणी मंगळूर अनी धारवाड केन्द्राच्यान प्रसारु केलेली म्होणु हांव भारी कृतज्ञतेन उडगासु करतां"*। प्रकाशन करचें ह्या पुस्तका विषयांतु संगतातरि असा हयी पुंजायिली काव्यं पुस्तक रूपान प्रकाशन करचें एक प्रशंसनीय काम म्होणु लेखुयात। आकाशवाणीन अंगीकार कोर्नु प्रसरण केलेली भट्टाली रचतयिलेली काव्यं सुन्दर रूपक असा। गायकानी ती काव्यं संगीतात्मक कोर्नु संगीत दिलेल्यान जनाक ताजे आस्वादन चड्

आनन्ददायक जत्ता म्होणु भट्टान सांगूचे खरेंचि आकाशवाणीन प्रसारु केलेली ही एक पन्नास काव्यं कोंकणी भाषा प्रचार सभेन प्रकाशन करच्यान्तु आकाशवाणी संतुष्ट जाव्नु असा म्होणु भट्टान सभेक कळेल्यान्तु सभा खोस भोगता अनी यीं एक पन्नास कोंकणी काव्यं आकाशवाणी केन्द्रान्तुले गायकानि गायन केलेली अनी पुस्तक रूपान "हरवें अनी पिकलें पान" नावानू प्रकाशन केलेली कोंकणी प्रमी जनागेली इच्छा पूर्ण जाव्चाक कारण जत्ता। मातृभाषा कोंकणीची सेवा अनीकयि वोडले जाव्नु कोरूक श्री अनन्त भट्टाक देवु शक्ति, चैतन्य, आयु आरोग्य दिवो म्होणु देवालगी प्रार्थन करर्ता।

एन. पुरुषोत्तम मल्या
कार्यदर्शि
कोंकणी भाषा प्रचार सभा

कोचि
3-5-1997

## “हरुवें पान आनी पिकलें पान” - कवनांचो क्रमु ॥


1. हरुवें पान (संगीत रूपक)
2. चेल्ली जायि (संगीत रूपक)
3. मोगाची तान
4. एकतेचो संदेशु
5. गणपति देवा
6. चन्द्र - चकोर
7. जागे जायाति
8. संगीत रस
9. महालक्ष्मी ! तुका
10. कृष्णा ! तू
11. हाथा बोक्याक
12. कोण कोणागेलो
13. आमगेलो भारत
14. घरचे मोगरेक
15. युगल - गीत
16. पिशें
17. दियायि तुमी
18. दुडुवा महिमा
19. राति जाल्ली नीद
20. कुरुड्याक दीवो
21. कर्माचें फल
22. कसली परीक्षा
23. पतित पावन
24. आरति श्रीवेद
25. सरस्वति देवी !

26. शिवशंकरा !
27. जय जय वेदव्यासु
28. स्वार्थ
29. सात स्वरांचो
30. पंच भूतां
31. कलियुग चांग
32. जन्म जन्मा संगाति
33. तुझे स्वर म्हझे गीत
34. पवन तनया
35. जीवन - यात्रा
36. म्हणा कोंकणी मातेक
37. जीवन - संगीत
38. सांगचें कसलें
39. जे आपण्याक
40. शरण शारदे देवी !
41. पावन भारत देशु
42. प्रीतीचि रीति
43. आल्तडि वे की
44. विधिचो विचित्र
45. माकायि जय जय
46. आयली दीवाळी
47. एकि बस - यात्रा
48. संकट आयल्यारि
49. हांव जपत राकतां
50. हे मोगा बाळा !
51. हांव स्वयं नेणताना

# हरुवें पान आनी पिकलें पान

(संगीत रूपक)

(पिकलें पणसाचें पान (खोल्ली) भुंयचेरि पडचें पळौनु रुकावेलें हरुवे पान हासता म्हणु कोंकणीतु ग्यादि आस्स। हरुवें पान आजि न्हंय जाल्यार फायि ताकायि तीचि गति म्होणु भावी विसरता। फायि तेवंयि पिकूनु पडतलें अथवा कोणी ताकायि पाडैतले म्होणु नश्वर जगांतुलें हें सत्य मात्र। त्या विषयांतु पिकले आनी हरुवे पान्नांगेलो संवादु संगीतात्मक (संगीत रूपक) हांगा प्रस्तुत केल्ला।)

पिकलें पान पड़ळेलें चोव्नु
हरुवें पान हासता।
लेकिना ताणेयि एक दिवसा
भुंयचेरि पडचें आसता ॥ प०॥

पिकलें : कालान क्रमान पिकूनु हांव
तांबडे-हळदुवें जाल्लें।
फल तें कर्माचें भोगूनु माका
आत्तं भुंयचेरि घाल्लें ॥१॥

हरुवें : माका पळे हांव हरुवें तरुणे
दिसता हृष्ट पुष्ट ।
लोकु दवरता म्हजेरि दोळो
म्हजेवरि कोण संतुष्ट ॥२॥

पिकलें : हृष्ट-पुष्ट दिसता म्हणु तूं
कोर्नाका मनांतु गर्व ।
नष्ट जातलें एक न्हंय एक दिसा
देखूक येवचें सर्व ॥३॥

हरुवें : फायिक नष्ट जातलें म्होणु
आजिक कसलो विचारु
आयचें आजि फायचें फायि
हो मगेलो निर्धारु ॥४॥

पिकलें : निर्धारु हो करताना तूं
समझना जगाचि रीति
बुधवंतकायि उलौंच्या मात्र
करणी करची अनीति ॥५॥

हरुवें : नीति - अनीति समझलें तूं
भुंयचेरि पडतरि मात्र ।
प्रीति सोणु तूं करतालें अन्याक
परिहासाचें पात्र ॥६॥

पिकलें : अनुभवु मेगेलो सांगलो तुका
कर्मा फल माका मेळता ।
मनांतु व्हरना सांगचें हांवें
तूं पळे गर्वान खेळता ॥७॥

हरुवें : हरुवें हांव पिकलें तूं म्हणु
आसति वे तुका जाळ ।
भरली जगांतु असूया थंय-थंय
जाल्लें मस्त काळ ॥८॥

पिकलें : तूं हरुवें हांव पिकलें म्होणु
जाळ ना पळे माका
स्नेहाचे दृष्टीन जग हें पळे तूं
गर्व करचें नाका ॥९॥

हरुवें : पणसा रूकु दीगु-रूंदु - सुलंबु
खांदे हाजे विशाल ।
म्हणता हांव क्षेमान राबलें
तूं पळे पडलें खाल ॥१०॥

पिकलें : क्षेमु की क्षाम केन्ना कोणाक
मेळचें सांगच्या जायना ।
प्रेमान काडचे दोनि घडियां पशि
व्यरि जगांतु कांयना ॥११॥

हरुवें : रुका वूयरि आसतना माका
ना पळे काहीं उणावु ।
पिकलें पळौनु हांवयि हासलें
जगाक हासचो स्वभावु ॥१२॥

पिकलें : कोणी कसलेंचि करता म्हणु तें
तुवेंयि करका वे ।
पणसा रुकारि स्वजनां मध्यें
विद्वेषु भरका वे ॥१३॥

हरुवें : सर्वयि हासलीं हांवयि हासलें
हांतु कसली चूकि ।
हांव हासलें म्होणु पळे
तुका कसली दूकि ॥१४॥

पिकलें : तरुणे पणान भावी विसरता
आस्स तूं आजि रूकारि ।
मरणा घडि ती कोणाक कळता
कसलें जाय्त मुकारि ॥१५॥

हरुवें : हांव तरुणे देह हें घृट्टि
राबतलि पाचुवसाणी ।
जीवन मेगेलें शाश्वत दिसता
सरली तुगेली काणी ॥१६॥

पिकलें : आजि मगेली फायि तुगेली
सरची जीवन काणी
म्हजे तुजे माये पाशान
बांधले सगळे प्राणी ॥१७॥

हरुवें : हें कसलें ! एकु चेल्लो हाथांतु
तेंकुडी घेव्नु आयला ।
पेस्कातेचो धारे भागु
मगेले गळ्याक लायला॥१८॥

पिकलें : परबे हिट्टु-खोट्टो करचाक
पानाक आयले माग ।
मरता तूवंयि तोपूनु सिजौनु,
कर्मफलाचे हे भाग ॥१९॥

हरुवें : कसलें करचें पाडैलें माका
अय्यय्यो भुंयचेरि पडतां ।
असलें जीवन नश्वर जीवन
पश्चात्तापान रडतां ॥२०॥

पिकलें : मुकारि हांव मागशी तूं
वत्तातिे मरणा मार्गारि ।
लोकांतु चांगपण केल्यारि मात्र
पावतातिे त्या स्वर्गारि ॥२१॥

# चेल्ली जायि

(विनोदी पद । संगीत रूपक)

## 2

चेल्ली जायि सिन्नाक व्हार्डीक करचाक ।
केल्ली विनंति पत्रांतु सोयरीक धरचाक ॥१॥

सिन्ना आमगेलो बुधवंतु तो हळ्ळी गांवाचो ।
पन्नास सोयरिको सोडल्यो म्हणु विख्यात नांवाचो ॥२॥

साठि अंगुल दीगु सिन्ना चेल्ली पोळोच्याक वत्ता ।
फाटि घेत्ताति चेल्लीयो ताका नगरांन्तु बोब जात्ता ॥३॥

गांवांतु चेल्लीयांक सिन्ना पोळोंचो
नगरांतु चेल्लीयो सिन्नाक ।
नांव वाय्ट जाल्यारि सिन्नान
बुढोंका करट्यांतु नांक ॥४॥

एकि चेल्ली :

कसली चेल्ली जायि सिन्ना !
हांतुली वेंचूनु काडिरे ।
हासचे, रोडचे, जोडचे चेलियेक
गांटाव्नु घरांतु हाडिरे ॥५॥

सिन्ना : सांगतां काणी सपनाची राणी
एकलीचि जायि माका ।
भांगार सिंगार संसार करची
चेल्ली ती माका नाका ॥६॥

चेल्ली : नांव हिजें लिल्ली, गांवु हिजो दिल्ली
दोळे हिगेले माजराचे ।
देवंता चढता मोल हिगेलें
कशिकी भांगरा-वजराचें ॥७॥

सिन्ना : भांगरा वज्रा मोल तें कळचो
न्हय हांव सौकारु व्यापारी ।
मेगेली ही तरि बाय्ल जाल्यारि
हांव पळे जातलों भिखारी ॥८॥

चेल्ली : ही चेल्ली गोरी जाल्यारि चिके थोरी
हस्ती भुण्डो-सी देहाची ।
नांचप रांदप कसरत करची
ही पळे भारी स्नेहाची ॥९॥

सिन्ना : आयकनी, पळैनी इतली थोरायि
मगेले मनाक सायना ।
चोयतां हिका कसरत करौंचें
तें पळे माका जायना ॥१०॥

चेल्ली : ही पळे काळी म्हणता भूपाळी
जीवु हिका तें संगीत।
रूप गुणान ही दिसता कोकिला
सोयरीक ही कोण सोडीत॥११॥

सिन्ना : राति-दीसु तें संगीत आयकूनु
हांव पळे जातलों मग्न।
प्रीतिचे गीत संगीतयि मेळनु
विसरतलों हांव लग्न ॥१२॥

चेल्ली : मीनाक्षी ही पळे आंबड्यावरि दोळे
अस्सी अंगुल ती दीगायि।
मनान ही थोरी देहान सपूरि
ही चेल्ली वे तुका जायि ॥१३॥

सिन्ना : नांवयि रूपयि तें मेळनु येना
गुड्डो हांव, दीगि मीनाक्षी।
हांवयि हीवयि मेळचें प्रयासु
सांगता हें देवु साक्षी ॥१४॥

चेल्ली : ही पळे गुड्डी मिर्याकणा पुड्डी
बुद्धीन खांड्याची धार।
कोपु ना रागु ना नांव सुशीला
जाय्त म्हण एक पसार ॥१५॥

सिन्ना : गुड्डी ही पुड्डी ही कुशाग्र बुद्धि ही
दिसता तांबडो दुद्धि ।
व्हार्डीक करचाक पिर्डूक बांधचाक
ना माका उद्देशशुद्धि ॥१६॥

चेल्ली : हेमा ही पळे भांगरा मासळे दोळे
केस घोड्याचें बाल रे ।
प्रेमु करतल्यो चेल्लीयो सर्वयि
हिजे रूपाचे खाल रे ॥१७॥

सिन्ना : कसले केस करले वेस
करल्याक जावका 'फेशन' ।
'फेशना' नांवारि कसल्याक करचें
बायलांगेलें अधिवेशन ॥१८॥

चेल्ली : आंगाक भांगार कान्नांक सिंगार
कनका नांव तें हिगेलं ।
सांग सिन्ना जाय्त वे ही तुका
कसलें मनांतु तें तुगेलें ॥१९॥

सिन्ना : भांगार सिंगार संसाराची
चेल्ली ती नाका म्हळ्ळें ।
सांगतां मेगेले इष्टाची चेल्ली
हांगा ना म्हणु कळ्ळें ॥२०॥

चेल्ली : हें कसलें म्हणता कसलें तू जाणता,
व्यर्थ केल्ले तूवें यत्न ।
लोकांतु खंय थाकुनू मेळतलें तुका
व्हार्डिकेक कन्यारत्न ॥२१॥

सिन्ना : हें कोण येत्ता गांवची सीता
मेगेले सेजवासारची
लोकांतु नगराचे चेलियांपशि ही
म्हजो संसारु सुधारची ॥२२॥

चेल्ली : सोयरिके खातिर गांवची सीतायि
आयिल्ली ह्या नगरांतु ।
चोयिरे सिन्ना ! नसीब कसलें
सीतेक व्हर तूं घरांतु ॥२३॥

सिन्ना : दोष लावनयें कोणी माका
सपनाची राणी ही सीता ।
वेष-भूष नगरांतुले सायनी
ही म्हजी सीता विनीता ॥१४॥

# "मोगाची तान"
# 3

जगांतु सर्वांक मोगाची तान ।
सग सृष्टीकयि कारण जात्ता, मोगु एक समान ॥

॥पल्लवी॥

सागरा तान नदीक, होळता नदी वेगान ।
सगळे चन्द्राक समुद्रा पाळ तें, मेळचाक आनंदान ॥१॥

मोगुचि शक्ति, मोगुचि भक्ति
मोगुचि सर्व दिकान ।
योगुयि भाग्ययि मोगान मेळचें,
जग हें मोगा संतान ॥२॥

युग-युगाची तान दवरता,
चकोर अति प्रेमान ।
जगांतु पत्थरा मनयि तें हालता
मोगाचे चुम्बनान ॥३॥

मोगु तो देवु मोगु तो जीवु,
मोगु जगांतु महान ।
सग जग भरलां मोगा रंगान,
मोगाचे आवेशान ॥४॥

# “एकतेचो सन्देशु”
# 4

एक गगन तें एकि ही धरणी
एकु आमचो देशु हो ।
लोकाचो दीवो सूर्युयि दित्ता
एकतेचो सन्देशु हो ॥प०॥

रातिचो दीवो एकु चन्द्रु तो
जगाक चांदिणे दित्ता ।
सात स्वरयि ते एक मेळयारि
संगीत रस जन पित्ता ॥१॥

अनेक रूपान अनेक नांवान
एकु ईश्वरु आसता ।
अनुदिन जगाक उजवाडु दित्ता
एकु सूर्यु तो हासता ॥२॥

विविध जातिचे मताचे जनांक
रगता रंगु एकु तो ।
जीवन अनेक जन मन एक
जायि सहज विवेकु तो ॥३॥

जायि एकता अनेकतेंतु,

कशिकी आत्मा एकु ।

लायि दीवो एकमेळीचो

उजवाडायि तो विवेकु ॥४॥

कशिकी नभांतु एकु सूर्यु तो

जग हें उजवाडायता ।

तशीचि जगांतु तो परमात्मा

आत्माक दीवो लायता ॥५॥

## "भजन"

## 5

गणपति देवा ! करतां सेवा,

राक हे गजवदना ।

म्हणता हांव तुगेलें नांव,

दया करि दयाघना ॥प०॥

मंगलदाता, बुद्धि प्रदाता,

गिरिजा नंदन देवा ।

जग तूं राकचो, भगतांक पावचो,

करतां तुगेली सेवा ॥१॥

विघ्नेश्वरु तूं दित्ता वरु तूं
शोक विनाशु करता ।
रोग ना करता भाग्य तूं भरता,
पाशांकुश तूं धरता ॥२॥

मंगलकारी, शोकसंहारी,
नमन तुका हे विघ्नेशा ।
सांगता अनंतु तूं भगवन्तु
मंगल करि तूं गणेशा ॥३॥

* * *

## "चन्द्र - चकोर"
## 6

चन्द्राक कसलें कळता ।
सुन्दर सुमधुर मिलनाक प्रेमी,
चकोर तळमळता ॥पल्लवी॥

नेणताना चन्द्रान चोयता चकोर
चन्द्राक खबरी कळना ।
कोणाक कळता दूकि चकोराची,
कोण तो विरहान जळना ॥१॥

चकोराक त्या चन्द्रमाचेरि
सहज आसता प्रीति ।
एक दिशान ती प्रीतिजाल्यारीयि
ही येकि प्रीतीचि रीति ॥२॥

प्रियतमेचें तोंड तें चन्द्बु, मन हें चकोर जात्ता ।
नयन मनोहर रूप तें पोळोनु,
मनांतु माण्डे खात्ता ॥३॥

पुनवे चन्द्राक चोव्नु कशिकी,
न्हंयतु पाळ खबदळता ।
मन हें चकोर चन्द्राक चोयता,
तशीचि मन तळमळता ॥४॥

## जागे जायाति
## 7

जोगे जायाति सोणु तुमी आळसायेची नीद ।
वोगी कराति काम तुमचें दवोर्नु उम्मीद ॥१॥

आलस्य तें देहांतुलो होड्डु एकु शत्रु ।
कालि आजि फायि आमकां परिश्रमूचि मित्रु ॥२॥

नीद काडचे सिंहा तोण्णांतु चितळ धाव्नु येना ।
आदरु तो नातिल्लें कडे कोणी राबून घेना ॥३॥

परिश्रमु तो केल्यारि मात्र कार्य जातलें सफल।
परत-परत ध्यासु विना यत्न जातले विफल ॥४॥

भारी होड श्रमा फलान ताजमहल तें जाल्लें।
भारताचें नांव लोका इतिहासांतु घाल्लें ॥५॥

कर्षकाचे श्रमा फलान देशु सस्य समृद्ध।
हर्षाचें फल भोगतले आमी आबालवृद्ध ॥६॥

प्रगतिचे वेटेरि सरूक जाव्या तैयार।
सगटानींयि मेळनु करूया यत्न हज़ार ॥७॥

सर्वयि प्रकारान करका आलस्य तें दूरा।
गर्व सोणु काम करका श्रद्धेन तें पूरा ॥८॥

आलस्य तें सोणु दवरि केदणायि जागेरु।
फल तें चांग मेळतलें सुख समृद्धीचो तेरु ॥९॥

सपन पळैल्यारि मात्र काम सफल जायना।
आपण्यालो हो अभिप्रायु हांतु वायट कांयना ॥१०॥

श्रमा मोल कितलें म्होणु तोंडान सांगच्या जायना।
क्रमान तें काम केल्यारि मागीरि भिवच्या कांयना ॥२१॥

* * *

# ✳ संगीत-रस ✳

## 8

संगीत-रस तूं पी रे, मनुजा !
जगांतु होळता संगीत धारा, पिवचाक तान दी रे ।।प०।।

अरुणोदयाक भैरव राग, पक्षिगण तें म्हणता ।
स्वरान स्वागत राग भूपाली, म्हणचें जनपद जाणता ।।१।।

मध्याह्नाचें सारंग राग, उजवाडु दित्ता जनाक ।
मधुवन्ती आनी भीमपलासी रस भरताति मनाक ।।२।।

सांज वेळाचें श्रीराग म्हणता, नंतर यमन कल्याण ।
मंजुळ खमाच काफी पहाडी, शिवरंजनी जन जाण ।।३।।

कलावती आनी जयजयवंती, मल्हार आनी बहार ।
मालकौंस आनी देश भैरवी, राग ते विविध प्रकार ।।४।।

दीप रागु तो दीवे जळैता, मल्हार पाव्सु घालता ।
कोप ताप ते हरता संगीत, पत्थरा मनयि तें हालता ।।५।।

स्वरलय भरित हें जीवन संगीत, करि मनुजा ! तूं गायन ।
भरतले संतोष, हरतलें दोष, मेळतलें सौख्य रसायन ।।६।।

# महालक्ष्मी स्तुति
## 9

महालक्ष्मी ! तुका करतां नमन ।
दारिद्र्य दोष तूं करता शमन ।।पल्लवी।।

धनधान्य सम्पन्न करता भक्तांक ।
अनुदिन स्तुति करतां माते तूं राक ।।
जन तुका भजता सम्पद मेळचाक ।
आनन्दु मेळैता तुझें आगमन ।।१।।

हरिप्रिया तूं हरता दुःख आनी दोष ।
करि करुणा माते ! दी तूं संतोष ।।
भरता ऐश्वर्य तूं दित्ता परितोष ।
करि सुखपूर्ण हें आमगेलें जीवन ।।२।।

लक्ष्मी देवी ! यो तूं आमचे घरांतु ।
सुख सौभाग्य दी दिवचे वरांतु ।
वेंकटपतिली तूं राणी जगांतु ।
सांगता अनंतु करता भजन ।।३।।

# कृष्णा ! तूं परमानन्द धाम
## 10

कृष्णा ! तूं परमानन्द धाम ।
तृष्णा ना करि, राक श्रीहरि, करतां कोटि प्रणाम ।।पल्लवी।।

सत्य-असत्य बरें-वाय्टाचें मध्यें,
हें जीवन-संग्राम ।
आत्तं मेगेलो तूं सारथि जाव्नु
करै कर्तव्याचें काम ।।१।।

कौरव सभेंतु द्रौपदीक तूवें,
वस्त्र दिल्लें अभिराम ।
परमदयाळु तूं भक्तांक राकचो,
जग जपता कृष्णनाम ।।२।।

नारायणु तूं नरु हो मानवु,
तूं भक्तांचो विश्राम ।
पार करै भव म्हणता अनंतु
कृष्णु तूं पूर्ण काम ।।३।।

☆ ☆ ☆

# हाथा बोक्याक कन्नडि नाका

## 11

हाथा बोक्याक कन्नडि नाका।
व्हय कि न्हंय म्हणु सांग माका ॥प०॥

आमगेली भास कोंकणी भास।
आस्सति आमच्यांतु मस्त विद्वांस॥
आमी कोंकणी चे मोगी दास।
सेवा करताति बारायि मास॥
एकमेळि ना म्हणु दिसता माका।
हाथा बोक्याक कन्नडि नाका ॥१॥

आसतले भिन्न-भिन्न अभिप्राय।
तांगतांगेले घरकडे ते ते राय॥
कोंकणीचे घरांतु कोंकण्यांलेचि पाय।
लडायि केल्यारि मातेक घाय॥
व्हय कि न्हंय म्हणु सांग माका।
हाथा बोक्याक कन्नडि नाका ॥२॥

विविध भासेंचो हो भारत देशु।
देव नबी, रघुनंदन येशु ॥
प्रीति परस्पर राकचो संदेशु।
सर्वधर्माचोयि होचि उद्देशु ॥
धर्माक ऊणावु दिसता माका।
हाथा बोक्याक कन्नडि नाका ॥३॥

भाव-भइणींवरि जायि आमका मोग।
मोग नात्ल्यारि व्यर्थ तें भोग ॥
मोगाचें जीवन मेळ्यारि योग।
असूया-जाळ हे बोक्यांचे रोग ॥
रोग हे पोळोंच्याक मेळतातिं माका।
हाथा बोक्याक कन्नडि नाका ॥४॥

# कोण कोणागेलो बन्धु
## 12

कोण कोणागेलो बन्धु वरता ।
क्षण घडियेचे बांधव सगळे,
कसलो अभिमानु करता ॥पल्लवी॥
वोत्तांतु भोव्नु जो साउळे खातिर,
रुक्काचे खाल सरता ।
साउळि दिवचो तो खांदो निसोर्नु
मात्यारि पोणु तो मरता ॥१॥

पावसा कालाक पावसा उदकांतु
सानु-होडु फेणु भरता ।
उदकांतु पोवंचे क्षणिक फेण ते
कळना कोण व्हरता ॥२॥

असले नश्वर जगांतु मानवु
ईश्वर भजन विसरता ॥
तो बुधवंतु जो देवालें नांव
भक्तीन घृट्टि धरता ॥३॥

# आमगेलो भारत देशु महान
## 13

आमगेलो भारत देशु महान ।
समता सत्य अहिंसा प्रेमी,
म्हणुया आमका ताझे गुणगान ।।पल्लवी।।
विविध भारती विविध जातिमत
राकुनु आयला देशु हो ।
जीवन तनु मन देशाक अर्पण
आमगेलो आय्क संदेशु हो ।।१।।

स्वतंत्रता ती मेळ्ळेली आमकां
जीवन सर्वस्व त्यागान ।
स्वातंत्र्याक प्रिय देशाक
राकतले आमी अनुरागान ।।२।।

भावानूं भइणीनूं करुया
हीचि प्रतिज्ञा एक स्वरान ।
जीवु दीव्नुयि देशु राकतले
म्हणा भारत देशु महान ।।३।।

# घरचे मोगरेक परिमळु ना

## 14

परगांवचे चांग गांवचाक मोल ना ।
घरचे मोगरेक परिमळु ना ।।पल्लवी।।

आंगणांतु मोगरी फुलेव्नु येत्ता ।
सग जन परिमळ वांटूनु घेत्ता ।।
परगांवचें मोगरे दिसता चांग ।
कारण कसलें म्हणु तूं सांग ।।१।।

दूरचें चंद दिसचो प्रकृतिचो नेमु ।
घरचारि ऊणे तो दिसता प्रेमु ।।
यद्यपि गुण सग एक समान ।
आदरु दुरचारि कसले लेकान ।।२।।

साहित्य सेवकु वाढैता मातृभाषा ।
महाकाव्य रचना ताझी अभिलाषा ।।
जीवन्त आसतना जन जात्ता मारक ।
मरणानंतर करताति स्मारक ।।३।।

✣ ✣ ✣

# युगल-गीत

## 15

चेल्लो : शरद् कालाचो चन्दु चन्द्धु तो आयला ।
परत् मोगाचे गीतांक रागु हो लायला ॥पल्लवी॥

चेल्ली : शरद् कालाचो चंदु चन्द्धु तो आयला ।
परत् मोगाचे गीतांक रागु हो लायला ॥

चेल्लो : चकोर चन्द्रमांगेले मिलनाची राति ।
मुकारि माक्षीं सर्वत्र प्रेमी नाना जाति ॥
एक न्हंय अनेक फांतां मोगु समझायला ॥१॥

चेल्ली : चन्द्रमाक सहज मोगु करता चकोरी ।
बन्धनांतु घालता तांकां मोगाचि दोरी ॥
सुन्दर तांचे मोगान खेदु विसरायला ॥२॥

चेल्लो : राबतली जगांतु नित्य प्रीतीचि काणी ।
खबर प्रेमियांगेली मधुर ती वाणी ॥
शंबरि पटि चरित्रांतु मोगु घडायला ॥३॥

☆ ☆ ☆

# पिशें
## 16

उलौंचें चूड उलैल्यारि पिशें म्हणतले ।
पिश्याच्याक वेंचवेंचूनु जन जाणतले ॥१॥

पिश्याच्याले पिश्याक आस्स विंग विंगड रीति ।
पिश्याच्याचे लागी वच्चाक थोडे जनांक भीति ॥२॥

सांगतां हांवें पळैलेलें पिशें जनाचें ।
लायता पिशें ताका कारण लेक मनाचें ॥३॥

ज्या व्यक्तिक ज्या वस्तूचो चूड्डु मोगु आसता ।
तोचि तो मोगु पिशें लायता पोळोनु लोकु हासता ॥४॥

थोडे जनांक आसता पिशें 'क्रिकेट' खेळाचें ।
थोडे जनांक भोंवचें पिशें सांजे वेळाचें ॥५॥

दूसरे जनांक पळैलें पिशें खाण खावपाचें ।
बायलांक पिशें न्हेसिल्लें वस्त्र 'मेच' जावपाचें ॥६॥

आनीयेक नमूने पिशें सिनिमा पोळौंचाक ।
मनीषु आग्रहु करता तागेलें नांव कळौंचाक ॥७॥

हेंवयि एक पिशें आसता गांव भोंवचाक।
जीवन सगळें भोंवतातित थोडे आघोष चोंवचाक ॥८॥

थोडे लोक पिशें करतातित सूवे सोंवचाक।
पिश्याचे थोडे आग्रहु करतातित उदकांतु पोंवचाक ॥९॥

एक्केक जनाक आसता पिशें केवल कामाचें।
लोकांतु भारी ऊणे मेळता पिशें रामाचें ॥१०॥

हेंवयि एक पिशें आस्स चीटानी खेळचाक।
नीद काडतातित थोडे लोक आनंदु मेळचाक ॥११॥

एकेक लेखकु पिशें करता कवन बरौंचाक।
एकमेकाक सांगूनु सांगौनु प्रीति करौंचाक ॥१२॥

थोडे सज्जन करतातित पिशें ग्रन्थ वाचपाक।
होड पिशें थोडे जनांक 'डिस्को' नांचपाक ॥१३॥

तें पिशे ऊणे पुराण पारायणाक।
लक्ष्मी जावका, जाल्यारि सोणु नारायणाक ॥१४॥

एक असलें पिशें लहरी पानीय पिवचाक।
आनीयेक पिशें अन्याक पीडा दिवचाक ॥१५॥

चकोराक पिशें चन्द्रा तोंड चोंवचाक ।
धनवंताक पिशें रुपया नोट मोंवचाक ॥१६॥

थोडे असले आसति तांका मोगु पिशें लायता ।
होड मोगा पिशाच्यांक कोण समझायता ॥१७॥

चूड उलैल्यारि पिशें उलैना जाल्यारि पिशें ।
सीत सिजूनु पेज जात्ता पेजेंतु मेळता निशें ॥१८॥

पिशें करूक नज्ज कोणी कसलेचि कामाचें ।
करका जाल्यारि कराति पिशें केवल रामाचें ॥१८॥

कृष्णा पिश्यान मीरा रामा पिश्यान तुळसीदासु ।
भवसागरु हो पार पावले सांगता हें इतिहासु ॥२०॥

☆

# विनोदी पद
## 17

दियायि तुमी माका वोट ।
हांव भरतलों तुमगेलें पोट ॥
तुमगेले सुखा क्षेमा खातिर
खर्चु करतलों हांव नोट ॥पल्लवी॥

युवांक-वृद्धांक चेर्डुबाळांक।
सेवकु हांव सर्वकाळांक ॥
वोट दीयायि राकुनु घेयायि
तुमी सम्पाद्याची मोट ॥२॥

माका जयु मेळ्यारि हांव।
विसरुना तुमगेलें सगटांले नांव ॥
आपौनु तुमकां टौन होळांतु
पिवचाक दितलों शर्बता घोट ॥२॥

घरकडे तुमगेले आस्स ती धूव।
सिंवचाक दितलों सूत आनी सूव ॥
सूतान सूवेन सिवुयात न्हंयवे
चेड्डी, चोग्गो, ब्लौस आनी कोट ॥३॥

म्हांतारे जनांक बड्डि दितलों
युवकांचे लाग्गी उलौंच्या भितलों ॥
मेगेली समाज सेवा पळौनु
धरतले तुमी नांकारि बोट ॥४॥

☆

# दुडुवा महिमा

## 18

दुडुवा महिमा सांगचें आटक
दुड्डु जगांतु होडु ।
होडकाइ दित्ता ऐश्वर्य दित्ता
दुड्डु तो जायना जोडु ।।प०।।

दुड्डु आस्सील्लो गुणवन्तु ग्यानी
तोचि गांवचो प्रमाणी ।
हाडता बरेंपण धाडता वाय्टपण
ही पळे दुडुवा काणी ।।१।।
खावचाक पिवचाक भोंवचाक दुड्डु
जायि दुड्डु रे दुड्डु ।
जीवन धन्य ते दुडुवान मात्र
दुड्ड नातिल्लो तो बुद्धु ।।२।।
कूल-कुटुम्ब मानु-अभिमानु
मानवु दुडुवान जडता ।
मोल ना जात्ता धन नातल्यारि
दुड्ड नातिल्लो रडता ।।३।।

☆

# चेर्डाक नीदावचें पद

## 19

राति जाल्ली नीद आपैता चोयि।
जोयि बाळा जोयि जोयि।
प्रीतिचे सपनांची बांधली वोयि
जोयि बाळा जोयि जोयि ।।पल्लवी।।

भोंवच्याक वच्चा सपनांचे गांव
चोंवच्याक नीदे लागी तूं पांव।
केदणायि मेळो तुका आनंदु।
नीदेन काडचो समयु तो चंदु ।।१।।
चन्द्रमु रायु राति ती राणी
सुन्दर सरस ती तांगेली काणी।
सुख-सपनांतु तुका पावचाक
दुःख विसोर्नु आनंदु जावचाक ।।२।।

सुखमय जावो जीवन तुगेलें
लेकता शुभाशय हें मन मेगेलें।।
पळे तूं नीदेंतु सुखाचो सागरु
बाळा ! राकतलो तुका तो ईश्वरु।।३।।

☆

# करुनाका विपरीत

## 20

कुरुड्याक दीवो केप्प्याक गीत।
भरलेले पोटाक जेवणयि व्यर्थ,
करुनाका विपरीत ।।पल्लवी।।

सागरांतु जल भरलां, ताका
नदी मेळता कसल्याक।
सांगचें आयकना मूर्खु मानवु,
सांगचें ना तसल्याक ।।१।।

दान कसल्याक श्रीमन्ताक
ना रे प्रयोजनु ताका।
मान मदाचे कुरुडे जनाक
उपदेशा दीवे नाका ।।२।।

आवश्य कोणाक खंय कसलें
करका तसलें काम।
जीवन सार्थक केल्यारि आमचें
शुभमय तें परिणाम ।।३।।

* * *

# कर्माचें फल
## 21

कर्माचें फल फाटि घेत्ता,
मेज मेजून भोगका पडता ।
धर्मु तो अधर्मु करचो मानवु
पश्चात्तापान रडता ॥पल्लवी॥

धर्मान अर्थु अर्थान काम
कामान मोक्षाचि वाट ।
कर्म पापमय करचे मानवा !
जीवन तुगेलें वाय्ट ॥१॥

आजि न्हंयवे फायि मानवु
केल्लेलें कर्म खाता ।
मेजमेजूनु कर्माफल खाताना
मानवु एकाकि जात्ता ॥२॥

बेजारु कसलो कर्मा फल तें
माक्षीं-मुकारि खेळता ।
ह्या जन्माचें कर्माचें फल
ह्याचि जन्मांतु मेळता ॥३॥

* * *

# शिव भजन

## 22

कसली परीक्षा करता देवा !
म्हणता तुगेलें नांव ।
आस्स वे की ना तू देवा !
आस्स जाल्यारि पांव ॥पल्लवी॥

भजतां तुक्का जीवित सगळें
अर्पण कोर्नु महेशा ।
आजि पर्यन्त विसरनी तुक्का
खंय निपला तूं उमेशा ॥१॥

मनसा वाचा कर्मणा देवा !
हांव तुगेलो विश्वासी ।
विनंति ही करतां आय्क महेशा !
पांव तूं कैलासवासी ॥२॥

महादेवु तूं भक्तांक राकचो
तूं विना ना आधारु ।
सहन जायना दुःख भोगचें हें
नाकरि दुःखाचो भारु ॥३॥

❋ ❋ ❋

## श्रीराम भजन

## 23

पतित पावन नांव आयकुनु<br>
आयलां रामा ! शरण ।<br>
आत्तं तूं मेगेलो करि उद्धारु,<br>
ना करि जन्मु- मरण ।।पल्लवी।।

शबरी-जटायूंक तूवें राकलीं,<br>
मोक्षु दित्ता तुझें चरण ।<br>
खबर मेगेली घेना इत्याक,<br>
हांव करतां तुझें स्मरण ।।१।।<br>
विपरीत राम जपता वाल्मीकि,<br>
शुभ करता आचरण ।<br>
पापान सगळो बुढला हांव,<br>
तूं विना कोणी ना शरण ।।२।।

गुण गणांचें अमूल्य रत्न तें,<br>
राम-नाम आभरण ।<br>
म्हणता अनंतु राक रामा !<br>
करि तूं भव-भय हरण ।।३।।

# आरति श्री वेदव्यासाक
## 24

जय जय आरति श्री वेदव्यासाक।
वेदव्यासागेली दया जावंका,
विद्या, बुद्धि विकासाक ।।पल्लवी।।

जेदना वाढल्लो अज्ञान भारु।
तेदना व्यासागेलो अवतारु ।।
अज्ञाना नाशु, ज्ञाना प्रकाशु
लोकाचे आश्वासाक ।।१।।

पराशरागेले पुत्राक।
जय जय ज्ञान समुद्राक ।।
व्यासूचि विष्णु, विष्णुचि व्यासु,
अवतारु, ज्ञान प्रकाशाक ।।२।।

महाभारत केल्लें निर्माण।
लोकाचे खातिर शास्त्र-पुराण ।।
अमृताचो उपदेशु भगवद्गीता
भारताचे इतिहासाक ।।३।।

* * *

# सरस्वती भजन

## 25

सरस्वति देवी ! विद्या विशारदे !
वरुदी आमकां माते ! शारदे ।।पल्लवी।।

पुस्तक, माला, वीणा तूं धरता ।
हस्तकमल तुझे अज्ञान हरता ।।
भक्तजनांक तूं मंगल करता ।
राकता तूं शुभ मंगल दाते ।।१।।

संगीत, साहित्य, कला तूं दित्ता ।
सग जग तूझें कवनामृत पित्ता ।।
सांगता अनंतु वरु हो निमगिता ।
विद्या प्रदान करि तूं माते ।।२।।

* * *

# शिव स्तुति

## 26

शिवशंकरा ! परमेश्वरा !
करि करुणा करुणाकरा ।
जीवनांतु शिव भक्तिचि गंगा
सदा होळै तू गंगाधरा ।।पल्लवी।।

आशु तोषु हरतलो तूं दोषु,
करि संतोषु महेशा ।
नाशु कोर्नु भव भय भक्तांक
राकतलो तूंचि सर्वेशा ॥१॥

राम नाम जपु करचे शिवागेली,
पावन नगरी काशी ।
धाम मोक्षाचें विश्वनाथु तो,
शिव शंकरु अविनाशी ॥२॥

सर्पाभरणा ! पार्वती रमणा !
रक्षण करि त्रिपुरारी ।
अर्पण मन हें म्हणता अनन्तु
तुगेली महिमा भारी ॥३॥

= ✻ = ✻ =

## जय जय वेदव्यासु
## 27

युग युगांतु तो आसतलो,
महाभारत इतिहासु ।
सग जग मनान म्हणतले,
जय जय वेदव्यासु ॥पल्लवी॥

धर्म भूमि कुरुक्षेत्रांतु,
धर्मुयि अधर्मुयि खेळता।
कर्मान धर्माचे युद्धांतु,
धर्माक जयु मेळता ॥१॥

एक जाव्नु आस्सिल्ले वेदांक
व्यासु तो व्यास्त करता।
ह्या कारणान वेदव्यासु म्हणु
नांव अमर तें वरता ॥२॥

वेदांचो व्यासु पुराणेतिहासु,
वेदव्यासु निर्माता।
आदरान हें म्हणता अनन्तु,
व्यासु तो ज्ञान प्रदाता ॥३॥

(*) (*) (*)

## स्वार्थ

## 28

कितलें पळे स्वार्थ भरलां जगांतु।
हांव-तूं, मेगेलें-तुगेलें म्हणचांतु॥
मेगेले प्रयत्नाक शंभरि पैसे।
तुगेले यत्नाक सत्तरि पैसे ॥१॥

हांवें करचें काम भारी कष्टाचें ।
तुगेले काम तें दिसता नष्टाचें ॥
हांव सिखिल्लो-वाचिल्लो विद्वांसु ।
तूंवयि सिखला म्हणु ना विश्वासु ॥२॥

मेगेलें घर दार आनी परिवार ।
सगळांक म्हझेरि प्रीति अपार ॥
माका होड हे मेगेले संसार ।
तुगेले पासून कोणाक विचार ॥३॥

पळे हांवें करचें पूरा बरेंपंण ।
ना पळे म्हज्यांतु काहीं वाय्टपण ॥
वाय्टपण तें सर्व अन्यागेलें ।
चांग दिसता हांव आनी मेगेले ॥४॥

हांव करचें काम तें पूरा सम ।
अन्यालें काम चूकि एक दम ॥
यद्यपि दोष आस्सति समासम ।
गांवचे जनांतु हांव श्रेष्ठतम ॥५॥

जगांतुलें जन विविध रीतीचें ।
हांव आनी मेगेलें माका प्रीतीचें ॥
अशीतशी पळैतां स्वार्थचि स्वार्थ ।
कशितें राबलां हांतु परमार्थ ॥६॥

जगांतु सर्वते स्वार्था सम्बन्ध ।
निःस्वार्थ मनुष्याक ना कांय दन्द ॥
पिश्याचाक सुदां स्वार्थ होड ।
तुस्सु काण्डुनु हाथाक फोड ॥७॥

कसलें आस्स तें स्वार्थाक कारण ।
जायशिना स्वार्थ करूक निवारण ॥
आपण्याले अर्थाक म्हणताति स्वार्थ ।
अन्या खातिर करचें परार्थ ॥८॥

स्वार्थ तें साजता मृगांक मात्र ।
स्वार्थाचो नरु परिहासाक पात्र ॥
स्वार्थ सोणु करि काम परार्थ ।
निःस्वार्थ काम तें जात्ता परमार्थ ॥९॥

मेगेलो-तुगेलो म्हणु भावना निकृष्ट ।
सगटांक कळना कसलें अदृष्ट ॥
जगहें सगळें लेकता जो मेगेलें ।
मागिरि स्वार्थ परमार्थ आमगेलें ॥१०॥

= ✻ = ✻ =

# = ✻ सात ✻ =

## 29

सात स्वरांचो तो संगीत सागरु ।
साहित्य आनी संगीत मेळचाक,
जायि सरस्वति देवीलो वरु ॥पल्लवी॥

सात महर्षि ते सप्तर्षि म्हणचे
मानस पुत्र तें बापुसु ईश्वरु ।
मरीचि अंगिरा अत्रि पुलस्त्य ते
पुलह क्रतू आनी वसिष्ठमुनीश्वरु ॥१॥

मळबारि दिसचो सात वर्णाचो
इन्द्रधनु तो कितलो सुन्दरु ।
भक्तांक मुक्ति प्रदान करतलो
कैलासपति तो गौरी-शंकरु ॥२॥

सरिगम पधनि सात स्वर हे
मधुर संगीत देवीगेलो वरु ।
म्हणता अनन्तु संगीतान जो,
प्रसन्न जायना तो नरु पत्थरु ॥३॥

= ✻ = ✻ =

# पंच भूतां
## 30

पंच भूतानीं जग हें भरलां।
भूमि,आकाश,उदाक,वायु,अग्नि नांव धरलां ।।पल्लवी।।

पंच महा भूतांचें नश्वर
आमचें हें मनुष्य देह।
जीवन सार्थक करचाक आमकां
जायि परस्पर स्नेह ।।१।।

भारतदेशाचि प्रगति करूक
योजना पांच वर्षाची।
हरि अनन्तु तो करो सर्वांगेलि
जीवित यात्रा हर्षाची ।।३।।

= ❋ = ❋ =

# कलियुग चांग
## 31

चारि युगांतुयि कलियुग चांग।
हरि कीर्तन तें मोक्षु मेळैता,
विंगड़ कसलें सांग ।।पल्लवी।।

कृतयुग, त्रेतायुग, द्वापरयुग,
चौथें कलियुग नांव ।
कलियुगांतु हरि कीर्तन केल्यारि
आस्स विविध प्रभाव ॥१॥

ब्राह्मण क्षत्रिय वैश्य शूद्र हे
चारि वर्ण म्हणताति ।
चारि तोंडांचे ब्रह्मदेवाक -
चतुराननु म्हणु जाणताति ॥२॥

पूर्व, पश्चिम, उत्तर, दक्षिण
चारि दिक् हे प्रधान ।
म्हणता अनन्तु करि रे मना तूं
नित्य हरिगुण गान ॥३॥

= ✻ = ✻ =

## जन्म जन्मा संगाति

## 32

हांव आनी तूं गो प्रिये आमी
जन्म जन्माचे संगाति ।
जीवु एकु देहँ दोनि कशिकी,
दीवो आनी वाति ॥प०॥

आसता जन्मु मेळेचाक आमकां
अति पावन तो हेतु ।
कसलेंचि जावो आमी दोगयि
होकल आनी होरेतु ॥१॥

मोगु तो पावन योगु तो पावन
मोगान चलता मानव जीवन ।
रागुयि द्वेषुयि भरलेले जगांतु
मोगु घालता जीवांक बंधन ॥२॥

आमचे प्रीतीक दिसना ती सीमा
जन्म जन्माचो हो मेळु ।
प्रेमाचे भुँयचेरि खेळैता तो आमकां
आमगेलो जीवन खेळु ॥३॥

## तूझे स्वर म्हझे गीत

## 33

तुझे स्वर मेळनु पळे अमर म्हझे गीत ।
म्हझे गीत तुझे स्वरान जात्ता पळे संगीत ॥प०॥

सरस्वती, मातेगेलें साहित्य तें वरदान ।
स्वरलय मेळौनु ताका जात्ता सुमधुर गान ॥१॥

गीत आनी संगीत तें मनाक प्रभाव शाली ।
सात स्वर ते ना जाल्यारि जातलें जग हें खाली ॥२॥

भावनेच्या जगांतु ते गीत भोंवडायतातिं ।
जीवनाचे कुडींतु गीत दीवे लायतातिं ॥३॥

एक दिसा गीत म्हझे म्हणतले सर्व वोंट ।
लोकांतुले मानव ते धरतले नांकारि बोट ॥४॥

## पवन तनया
## 34

पवन तनया !, दवरि तूं दया
रामभक्त हनुमन्ता ।
जीवन संग्राम विजयु मेळै तूं
राक सदा बलवन्ता ॥प०॥

सागरु लंघन केल्लो तूवें
सीता मातेक पळैली ।
मोगा संदेशु सीतेक संगलो,
लंका नागरी जळैली ॥१॥

देवु तूं मारुति करतां तुगेली स्तुति
भक्ति मेळै तूं माका ।
सेवा करतां चरण धरतां
माका तूं विसरूनाका ।।२।।

भांगरा देहाचो भक्तांक स्नेहाचो
ज्ञान बुद्धि गुणवन्ता ।
सांगता अनन्तु तूं बलवन्तु
अनुग्रहु करि हनुमन्ता ।।३।।

= ✻ = ✻ =

## जीवन यात्रा
## 35

जीयन यात्रा कसली यात्रा,
लक्ष्य तें कोण जाण ।
हांव-तूं तो-ती हो-ही सर्वयि
करताति नित्य प्रयाण ।।प०।।

यात्रा चलता जीवना खातिर
विविध वाहन मेळता ।
मात्रा घेव्नुयि यात्रा करनुयि
जीवन खेळु हो खेळता ।।१।।

आमी खंय वच्चें आत्तं खंय पावले
हें कोण विचारु करता।
समवाट वे की आडवाट आमची
कोण हें लक्ष्य दवरता ॥२॥

जेवण, खावचें, पीवचें, भोंवचें
लक्ष्य न्हंय जीवनाक।
जीवाक परमात्माक मेळौंचें,
समझाव्नु घेवका मनाक ॥३॥

जग हें नश्वर जीवन नश्वर
शाश्वत ईश्वरु एकु।
मेगेले - तुगेले जीवन यात्रेंतु
जायि हो सहज विवेकु ॥४॥

= ❃ = ❃ =

## कोंकणी मातेक
## 36

म्हणा कोंकणी मातेक जय जय।
गुणवंति आमची गोडि कोंकणी,
मायेन मोगान तिका शुभाशय ॥प०॥

गोंय, कर्नाटक, केरळ गांवची,
महाराष्ट्रांतुयि प्रचारु पावची ।
जायि ती आमकां तुमकां सर्वांक
आयकुनु पोळोनु आनन्दु जावची ॥१॥

भारत सगळें व्यापुनु आसची
कोंकणी आमची सुमधुर वाणी ।
परशुरामाले जननी नांवान,
कोंकणी म्हणची पावन काणी ॥२॥

हिन्दु-मुस्लिं-क्रिस्तावांकयि
कोंकणी भास ती आवय-भास ।
सुन्दर सुमधुर साहित्यांची
कोंकणी भास ती पावो विकास ॥३॥

भास कोंकणी, आमी कोंकणे,
भारत आमचो देशु महान ।
विसरुनु भेद भाव सग म्हणुया
कोंकणी मातेचें गुणगान ॥४॥

= ✻ = ✻ =

## ✻ जीवन संगीत ✻

### 37

जाणतना नेणतना मनांतु येत्ता
विविध शब्दांचे गीत ।
म्हणका पडता सुख-दुःखाचे
स्वर जीवन संगीत ॥पल्लवी॥

ऊँच नीच तें येत्ता वत्ता,
तरंग जीवनाचें ।
वांचका जाल्यारि स्वरलय समेत
धैर्य धरका मनाचें ॥१॥

प्रीतीचे शब्द मोगाचे स्वर ते
मेळनु संगीत जात्ता ।
गीत आनी संगीत तें मेळ्यारि
मन तें खुशीन न्हात्ता ॥२॥

गीत अनेक स्वरलय एक
मेळौनु म्हणुया गीत ।
सात स्वरानीं सुख-दुःखा राग
म्हणा जीवन-संगीत ॥३॥

= ✻ = ✻ =

# सांगचें कसलें

## 38

सांगचें कसलें रूप तुझें, कसली तुझी चंदायि ।
भांगरा रंगु तुका आयला, भांगराक म्हारगायि ॥प०॥

कसली तुझी कोमळता, परिमळु जगाक जायि ।
असले गुण ते पोळोनु तुझेरि, फुल्लांकयि अपुरबायि ॥१॥

वोंट तुझे पोळोनु दिसता, धकधकी इंगाळे ।
वाट दाकैताति तुगेले, चंचल दोळे काळे ॥२॥

मोड वे की झोडुवारें, केस तुझे मुदियाळे ।
होड-सान संदेश दित्ता, पांयांचे रुपया वाळे ॥३॥

असलें रूप भारी अप्रूप, मेळचें भाग्य जायि ।
कसलें करचें उतरांक मेळना, ही तुगेली चंदायि ॥४॥

= ✻ = ✻ =

# आचरण

## 39

जे आपण्याक वाय्ट दिसता,
तें वेगळ्यांक दीवनाका ।
हें आचरण करि अनुकरण
कष्टा समयारि भीवनाका ॥पल्लवी॥

येत्ताना तूं काहीं घेव्नु येना,
वत्ताना घेव्नु वचना।
खात्ता केल्लेलें कर्मानु बन्ध,
विधिची विचित्र रचना ॥१॥

जन्मांतु येत्ताना एकलोचि येत्ता,
वत्ताना एकाकि वत्ता।
सन्मार्गु धरल्यारि स्वर्गु मेळता।
पापान नरकुयि जात्ता ॥२॥

आचरण आमचें बरें-वाय्ट,
उन्नति-अवनति करता।
विचारु-आचारु बरेंपणाचो,
आमकां मोक्षाक व्हरता ॥३॥

= ✻ = ✻ =

## शरण शारदे देवी
## 40

शरण शारदे देवी ! तूं आमची माता।
करुणा केल्यारि तूवें अनुकूल विधाता ॥पल्लवी॥

आव्सु तूं बालकांक विद्या पीयूष दित्ता ।
पाव्सु तो करुणेचो घाल्नु सिंपिता ॥
तूवें तरि दिल्यारि विद्येचें धन मेळता ।
जीवन हें सुख पावता खुशीन मन खेळता ॥१॥

गीत आनी संगीत दितली तूं सरस्वति ।
माते हांव मागतां तूं दी माका सन्मति ॥
देवी शरण आयलां नित्य भजता हांव ।
कवन हें माते अर्पण माका तूं पांव ॥२॥

= ✻ = ✻ =

## पावन भारत देशु

## 41

पावन भारत देशु आमचो,
जगाचें रत्न किरीट ।
जीवन तनु धन अर्पुनु देशाक
धरतले मात्तें नीट ॥पल्लवी॥

देव स्वर्गाविले भुंयचेरि देव्नु
लीला केल्लेली हांगा ।
पावन करता अनुदिन होळता
भागीरथि ती गंगा ॥१॥

उत्तर दिकारि हिमगिरि राबला
तीनि दिकारियि सिन्धु ।
सत्यमेव जयते म्हणु भारत
जगाचे श्रद्धेचो बिन्दु ।।२।।

मनान पावन वचनान पावन
करणीयि पावन करता ।
मन्दिर मस्जिद गिरिजाघरयि तें
दैविक भावन करता ।।३।।
सरळ तें जीवन विचार उच्च
आदर्श आमचें होड ।
परमात्मा विश्वात्मा आमकां
मेळचें फल तें गोड ।।४।।

= ✻ = ✻ =

## प्रीतीचि रीति
## 42

यो यो म्हणता आपैता तुका म्हझी प्रीति ।
नयन वाट पळैताति ही पळे प्रीतीचि रीति ।।पल्लवी।।

आयला गीमु ऋतु तो भीमु वोतान सूर्यु तापैता ।
जायि तूं माका करलेंच नाका तुका प्रीति आपैता ॥१॥

येतलो पाव्सु ना आश्वासु श्रावण भाद्र मास ।
ऋतु तें सर्वयि येवचें-वच्चें राबतले तुझे उडगास ॥२॥

यो तूं वोग्गी मगेले लाग्गी प्रीति आमगेली होडि ।
वोत-पाव्सु वारें-ठंडी, प्रकृति दिसतली गोडि ॥३॥

= ✻ = ✻ =

## भजन

## 43

आल्तडि वे की पेल्तडि देवा ! मगेली जीवन-नौका ।
हालता-धलता भवसमुद्रांतु तूवें पार करौंका ॥प०॥

अपार भवसमुद्राक ती दिसना, तडी अशी-तशी ।
उपायु चरणा नौका विना, पार तें पावचें कशी ॥१॥

जनन मरणा पाळ तें येत्ता सागरु गम्भीर जात्ता ।
अनुभसिता दुख कष्टाचे भोग केल्लेलें कर्म खात्ता ॥२॥

तूं विना देवा कोणतो राकचो कोण करतलो पार ।
हांव तुगेलो म्हणता अनन्तु करै पार संसार ॥३॥

= ✻ = ✻ =

# विधिचो विचित्र खेळु

## 44

कोणाक कळता विधिचो विचित्र खेळु ।
जाणतना नेणतना खेळु खेळैता,
बरो वाय्टु तो वेळु ॥प०॥
एक कालक जे राय आस्सिल्ले,
करता वेळु भिखारी ।
लोकांतु विधिचें विधान चलता
विधिची महिमा भारी ॥१॥
राय ना जाल्ले, मंत्री आयले,
स्थान-मानाक लडायि ।
जायना तसलें जात्ता आनी,
नाका म्हणचें तें जायि ॥२॥
दुर्बळे-श्रीमन्त, सान-होड आनी
बरे-वाय्ट आसताति
प्रबल विधिचो खेळु पोळोनु,
रडताति आनी हासताति ॥३॥

= ✻ = ✻ =

# जय जय कारु

## 45

माकायि जय जय कारु, तुकायि जयं जय कारु ।
लोकांतु हारी मेळचें नाका विजयी जावो संसारु ॥प०॥

जीवन म्हणचें एक संग्राम, हांवयि तूंवयि सैनिक ।
विविध नमूने उपजीवनाक करतातित काम दैनिक ॥१॥
सान-होड म्हणु भेदुना, करा आपण्यालें काम ।
मानव जीवन कानन-उपवन,अशी-तशी एक संग्राम ॥२॥

कशि की खेळांतु विजयु-पराजयु, मेळचें घेवका पडता ।
तशीचि मानवु खुशीन खेळता, हासता अथवा रडता ॥३॥

= ✻ = ✻ =

# "आयली दीवाळी"

## 46

घरघरांतु दीवे लायले, आयली दीवाळी ।
परबे दीसु-राति सर्वांक एकि खुशाली ॥पल्लवी॥

नरक चतुर्दशी तिथि जनगण हितकारी ।
परमात्मा दयाळु तो, दुष्टांक संहारी ॥१॥

असुरांगेलो नाशु कोर्नु जगाक समाधान ।
वासुदेवु भक्तांक तो दित्ता अभय दान ॥२॥

मंगलमय दीपावलि दीवो सर्वांक ज्योति ।
संगटांकयि सदा मेळोति आनन्दाचे मोति ॥३॥

= ✻ = ✻ =

## एकि बस-यात्रा
## 47

बस-यात्रा केल्लेली फूडे एक कालाक ।
मंजेश्वर थाकुनु सीदा कोडियालाक ॥प०॥

क्रिस्ताब्द एकुणीस शें सात सत्तरींतु ।
सहस्र कुम्भाभिषेकु मंजेश्वर पुरींतु ॥१॥

गवजेरि जाल्ललो तो कुम्भाभिषेकु ।
हांवयि अस्सिल्लों थंय भक्तजनांतु एकु॥

भक्तजन मेळ्ळेले पन्नास हज़ार ।
चारि दिवसां कार्यक्रम विविध प्रकार ॥२॥

पूजन, कीर्तन, गायन, भोजन।
सेजार गांवचेयि मेळ्ळेले मस्त जन ॥
अभिषेकाक स्पेशल बस आस्स म्हणाले।
अर्ध घंटा नंतर एकेक बस्स म्हणाले ॥३॥

लेकिल्ले पशि चूड अयिल्लें भक्तजन।
परतुचें कशि म्हणु लेकतालें म्हझे मन ॥
दूरा एक बस्स म्हणु कोणकी कळैलें।
लागी वोचून हांवें तांतु मस्त जन पळैलें ॥४॥
चडलो हांव बस्सांतु आस्सूनुयि खीटु।
आरम्भाक मध्यें सोर्नु राबलों हांव नीटु ॥
पन्नास जनां जाग्यारि शम्भरि आनी आट।
मनांतु देवाक लेकताना बस केल्लें स्टार्ट ॥५॥

होगूर-होगूर बस्स तें मुकारि चलता।
बस्सांतुलें जन एकमेकाक आडलता ॥
मात्याक मात्तें हाथ पाय बोट।
एकमेकाक आडोल्नु चाबले हांव वोंट ॥६॥

पायारि म्हजे माढैले कोणालेकी पाय।
धोर्नु राबूक सुदां ना जाल्ले उपाय ॥
बस्सांतु आस्स हो कसलो खीटु।
वांकडो जाल्लो, सुरुवेक राबिल्लों नीटु ॥७॥

घुंवचे वाटेरि बस्सान घाल्लें एक ब्रेक।
तावळि विंगड बस्सान केल्लें ओवरटेक।
पावलें म्हळ्ळें तावळि कोणे की उळ्ळाल।
हांवे लेकलें पावलें म्होणु तें कोडियाल ॥८॥

कोडियाल पाव्नुयि कोणीयि देवना कसलें।
खीटांतु कसलें म्हणु कळना तसलें॥
निमगिलें आत्तं आमी खंय पावले ?
कोडियाल न्हंय उळ्ळाल म्हणु ते थंय राबले ॥९॥

कसलो खीटु देवा ह्या बस्सांतु।
अशी-तशी दिसना ह्या खीटांतु॥
वापस सोडलें तें बस्स मुकारि।
धरलें हांवें म्हझें बोट नांकारि ॥१०॥

खीटांतु अशी-तशी मात्तें आडलता।
कितलें माका दुकलें कोणाक कळता॥
पायारि माढैलें, पोटाक म्हझे आडले।
चिर्डूनु-बुर्डूनु सग म्हझे जीव काडले ॥११॥

आघोषाचे उडगासांतु यात्रे कष्ट विसरलों।
मागीर हांवें बस्सांतुले खाम्ब्याक धरलो॥
अर्धघंटो अर्ध म्हैन्यावरि तो गेल्लो।
तांतु मध्ये बस्सान माका कोडियालाक व्हेल्लो ॥१२॥

= ✻ = ✻ =

# संकट आयल्यारि

## 48

संकट आयल्यारि बेजार जावनयें,
जीवन सुख-दू:ख संमिश्र हें ।
लोकु हो स्वार्थाचो कोण परमार्थाचो,
इष्ट-अनिष्ट सग शाश्वत न्हंय हें ।।प०।।

देवांक सुदां सुख-दुःखाचे भोग ते
मेळचें हांगा अनिवार्य मु तें ।
हांव-तूं, तो-ती, हो ही सर्वयि
सुख-दुख भोगचें कार्य मु तें ।।
माकायि मेळता, तुकायि मेळता,
नाका म्हळ्यारियि दुःख तें मेळता ।।१।।

जायि जाल्यारि तुका सुख सन्तत,
दूकि कोणाक तूं दीवनाकारे ।
लायि तुझे मन क्षेमा खातिर,
दुःख पोळेनु तूं भीवनाका रे ।।
दिल्लेलें मेळता केल्लेलें खाता,
उलैता उलैता कसलें जात्ता ।।२।।

## हांव जपत राकतां

## 49

हांव जपत राकता रे एक तुगेलें नांव ।
जीवनांतु तूं विना कोणाक मागचें हांव ।।पल्लवी।।

जायि  माका जीवनांतु केवल तुझो हाथु ।
कांयि नाका तूं आसल्यारि, तूंचि मेगेलो नाथु ।।
प्रीति आमची वाढका पळे, दीसु आनी राति ।
वोत-पाव्सु सहन करूँ, तूं मेगेलो संगाति ।।१।।

ना जावुयात चन्द्रमांतु शीतळ स्वभावु ।
सोडुयात पळे सूर्यान तो तापौंचो प्रभावु ।।
क्षण घडियेक सोडचा जायना तुगेलो हो संसर्गु ।
म्हणता हांव तुगेलें नांव तूंचि मेगेलो स्वर्गु ।।२।।

= * = * =

## "हे मोगा बाळा"

## 50

हे मोगा बाळा, शुभ कामना ही
मेळो सुख जीवनाक ।
प्रेमळ जीवन परिमळ जाव्नु
आनन्दु मेळो मनाक ।।पल्लवी।।

तूं बाल्यकालाक सिखवण घेव्नु,

विनयान होडु जावका ।

शंबरि वर्षाचें आयुष्य मेळका,

जीवन आनन्दु पावका ॥१॥

तूं जीवनांतु शुभकाम करका,

जगांतु शुभनांव घेवका।

हजार नमूने कीर्ति मेळौंका,

सार्थक जीवन येवका ॥२॥

= * = * =

## "हांव स्वयं"

## 51

हांव स्वयं नेणताना तूं मन म्हझें व्हरता गो ।
जीवनाचे गीत म्हझे तूं म्हणैता ।
भावने जग मेगेलें, तूवें धरलां गो,
जीवु तूं मेगेलो हो तूं धरैता ॥पल्लवी॥

तुगेले सौन्दर्या खाल गगन दिसता गो,
मेगेली भावना जाव्नु तूंचि हासता गो ।
तुगेले पासुनु येत्ता गीतांचि धारा ।
मोगु तूं रागु तूंचि तूं भाग्य तारा ॥१॥

अति शुन्य जीवन हें तूवें नातल्यारि,
रति भावना मेळता तूवें आसल्यारि,
घेत्ता तुगेलें नांव कवन तूं कविता,
येत्ता मनांतु माका तूं प्रीति सरिता ॥२॥

(आकाशवाणी मंगळूर, धारवाड आनी पणजी केन्द्रांच्या कृपेन ही कवनां हांगा उजवाडायताति । हांव आकाशवाणीचो आभारी ।)

- के. अनन्त भट ।

# के. अनन्त भट्



जन्मु 28-09-1939 तु कोच्चीन्तु प्राथमिक आनी हायस्कूल विद्याभ्यासु तिरुमलदेवस्वं हयूस्कूळ् कोच्चीन्तु । हिन्दी राष्ट्रभाषा, संस्कृत कोविद आनी गीता विशारद परीक्षेंतु पारंगत जालो । कोंकणी, हिन्दी आनी संस्कृत भाषेन्तु साहित्य परिश्रमु केलोलो आसा। उजवाडाकआयिंल्लीं पुस्तकां तुळसीदास, सूरभजन माला, संगीतरूपकां (कोंकणी काव्यँ) आनी कोंकणी गीतमाला । आकाशवाणीचे धारवाड, पणजी, मुंबई आनी मंगळूर केन्द्राच्यान कविता, उलोवपां, कथा, प्रबंध आनी संगीत रूपकं वितरावपांत आयल्यांत। आकाशवाणी, मंगळूर केन्द्राचो केरळांतु थकूनु अंगीकृत कोंकणी कवि हो एकलोचि। क्रिस्ताब्द 1986 चे उत्तम साहित्य रचनेचो कोंकणी भाषा प्रचार सभेचो पुरस्कारु हांगेले संगीत रूपकँ पुस्तकाक प्राप्त जाल्ला। 1980 तु विमोचित केलेल्या 'तपस्विनी' कोंकणी वर्णचित्रांतु हांगेलो अभिनयु आनी गानरचनायि आसा। हांगेले कोंकणी भक्ति-भांवगीतांची सुमार 9 केसेटाँ प्रचारांतु आयलीं। यूनियन बैंकांतु अधिकारी जाव्नासति । 1996 डिसम्बर म्हैन्यांतु उडुपींतु श्री. के. जी. नायक सांस्कृतिक प्रतिष्ठाना तर्पेन हांचे कोंकणी साहित्य सेवनाचे उपलक्ष्यांतु श्रीमत्सुधीन्द्रतीर्थ स्वाम्यांगेले करकमलानी हांकायि सन्मानु केला। कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या कार्यनिर्वहण समितिचो सदस्यु ।

= ✻ = ✻ =